कवितांचो लेखनकाळ

१९७४ ते १९८५ काळांतल्यो वेंचीक कविता

# वंशकुळाचें देणें

कविता

नागेश करमली

अपुरबाय प्रकाशन

VANSHAKULACHEN DENNEN
Poems by - NAGESH KARMALI

प्रकाशन क्र. ३३



पयली उजवाडावणी :
आगस्ट १९८९

उजवाडावपी :

हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय, फोंडें, गोंय
४०३ ४०१

छापपी :

हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय, फोंडें-गोंय
४०३ ४०१

मुखचित्र :

श्रीधर कामत बांबोळकार

मोल :
२५ रुपया

कोंकणी कवितेचेर

उपाट मोग करपी

**डॉ. एस्. एस्. कुलकर्णी**

हांकां

आदरभावान

**– नागेश करमली**

मांडावळ

**म्हजी कविता आनी हांव**



विभाग : १. **युगवेद**

## मोगाचें रीण

"वंशकुळाचें देणें" पुस्तक रुपान येवपाक पुंडलीकबाब आनी हेमाबाय नायक हाणीं आपलेपणान कश्ट घेतले, 'देण्या' क हिरूबाब नायक हाणी सोबीत बरें छापी रूप दिलें, श्रीधरबाब कामत बांबोळकार हाणी भायल्या ओडलायण्या आंगल्याच्या रूपान ताका नटयलें. हें सगळें मोगाचें रीण सदांच मोगाचें म्हुण सागूंक मेळचें.

नागेश करमली

# म्हजी कविता आनी हांव

'जोरगत' आनी 'सांवार' ह्या झेल्यांउप्रांत आतां 'वंशकुळाचें देणें' येता. मदें सुमार एका दसकाचो काळ गेला. बरोवन जावप आनी बरयिल्लें पुस्तकरूपान उजवाडा येवप हाकाय एक योग लागता. म्हज्या जिवितांत असले योग भोव उणें. जशें जमलां तशें हांव बरयत रावलां. खंयय छापून येवं येता थंय तें छापून आयलां. हांवें, म्हजें बरोवप मुद्दाम छापून येवंक जाय अशे तरेचो खास असो प्रयत्न केन्ना करूंक ना. बरोवन जालें तर जालें. छापून आयलें तर आयलें. ना तर ना. 'जोरगत' म्हज्या इश्टांच्या प्रयत्नाक लागून आयली. 'सांवार' जाग प्रकाशनान काडलो. आनी 'वंशकुळा'क उजवाडाचें किर्ण दाखोवपाचो भार अपुरबाय प्रकाशनान उखल्ला.

हांव 'बरोवपी' ह्या अर्थान 'खूब' बरोवपी न्हय - विशेष करून कविता सोडून हेर तरेचें बरोवप. हांवें कांय कथा बरयल्यात. दुसरेय तरेचीं – व्यक्तिचित्रां, साहित्यीक नियाळ, निबंद हे सारकींय बरोवपां केल्यांत. प्रासंगिक विशयांचेरय बरयलां. ज्या काळांत हांव जियेलों, ज्या काळांत हांव वावुरलों आनी त्या काळांत जीं वेगवेगळीं आव्हानां म्हजेसारख्यामुखार उबीं जालीं; तांकां म्हजी लागणूक म्हणून फुडो करतना, म्हजे तांकीप्रमाण जें कितें म्हजे मर्यादेभितर करूं येता, सांगूं येता आनी बरोवं येता तें हांवें केलां. कोणेय हाची दखल घेतल्या आसत, नासत. जाणा जावपी जाणात. आनी हाकाच लागून, कांय गजालींची खंयच घडये नोंद जावंक पावल्या नासत. खंयय घडये जाल्याय जायत. हांव ही एके तरेची खंत अशी प्रगटायना. एका निमतान मन उक्तायतां. हांवें बरयिल्ल्या उतरांचो प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्षपणान कितेंय उपेग जाला जायत तर तितलेंच समाधान म्हाका पुरो !

ह्या सगळ्या जंवजाळांत जिणेंतल्या ह्या युग संगरांत एक गजाल मात हांवें, एक निजधर्म, जीवनधर्म कशी सांबाळून दवल्ल्या, तिका हांव वेंगोवन रावलां. आनी तो म्हळ्यार म्हजी कविता. 'जोरगती'त हांवें बरयिल्लें -"कविता म्हाका अनेक रूपांनी भेटल्या – केन्ना मोवाळ

शांतीकारी रूपान तर केन्ना खंकाळ, उचंबळ, सांवार गाजोवपी उफेण ल्हारांवरी उतरांच्या रूपान." अर्थांत् हें, कविता म्हजी जावन, म्हज्या उतरांतल्यान उलोवंक लागलो ते विशींचें सांगप. पूण खरेपणी ते आदीं, ती म्हजे जिणेंत कशी आयली तें आज स्पष्टपणान सांगूंक येना आज तो याद जायना.

जेन्ना वाचपाक जाय तशीं पुस्तकां मेळनाशिल्लीं, बरयिल्लें छापपाक कसलीच संद नासली; छापप, उजवाडावप आसूं, बरयिल्लें वाचून दाखयतलो म्हळचार तें जाणा जावन घेवपी लेगीत लागसार कोण मेळनासलो, कसलेंच फाटबळ नासलें, उर्बा दिवपी कोण नासलो, साहित्यीक वातावरण म्हण्टात ताची तर सुनशाच नासली अशा वेळार जें एकतरेचें एकसुरेंपण जाणवतालें, तेन्नाच केन्ना तरी नकळटणाच भितल्ले भितर खतखतपी, अंदून उरिल्लो वोग भायर उडोवंक आशेल्लें मन आपुणशेंच उलोवंक लागलें आनी तांतल्यानच म्हजी कविता जल्मा आयली अशें हांव म्हणीन.

भुरगेपणांतल्यान तरनाटेपणाच्या हुंबऱ्यार पावल दवरपाचो तो काळ. सगळचांत मोठें अशें परके सत्तेच्या जडगुळो चेपणाचें दुख्ख हांव पळयतालों, तांकीप्रमाण अणभवतालोंय. गोंयचे शिमेभायर परसत्तेचे बंधपास तोडपाखातीर जो संघर्ष चलिल्लो ताचे साद म्हज्या-सारख्यामेरेन गाजत पावतालेच. मनार ते खोल परिणाम तर करतालेच. मदेंच बाकीबाब बोरकारांसारखो शिक्षक भेटिल्लो. जायते फावटीं बाकीबाब कविता रचून वाचून दाखयताले; कोणूय आपणालो इश्ट आयलो म्हण्टकीच ताका तालार म्हणून दाखयताले तें आयकूंक मेळटालें. ते वेळार, हो इतलें सुंदर सुंदर, नादमधुर कशें बरयता हाचेंच भुरगे मतीक रावन रावन अजाप जातालें. दिसतालें, म्हाकाय अशींच उतरां बरोवंक येवंची. लोकांक म्हणून दाखोवंक मेळचीं. पूण सारकें जमनासलें. एक म्हळचार कितें सांगूंक जाय तें सांगपाक अभिव्यक्तीचें माध्यम जी भास ती कमी पडटाली. (अर्थांत हें मागीर कळ्ळें.) मुळाक मराठी शिकिल्लों. पूण भोंवतणच्या वातावरणांत ती भास नाशिल्ली. ताका लागून उतरांकडेन अडखळटालों. बरयता तें अर्दकुटें जातालें. व्यासंगय उणो पडटालो. जायतें कितें मनाक झोंबतालें. अस्वस्थ

करतालें. भितल्लेभितर दुखता, सणसणटा अशें कितें तरी भोगतालें. पूण तें फावो त्या उतरांनी मांडपावेळारच सगळी आडवण जाताली. त्या सुर्वेच्या काळांत जें कितें धव्यार काळें केलें, तांतलें आज कांयएक उरूंक ना. आशिल्लें जाल्यार खंय सुरवात जाली, कशी जाली, कितलीं भुरगेपणां केल्लीं तें कळपाक आधार जावपाचो.

गुलामपण आनी स्वतंत्रताय हाचो संघर्ष चालूच आसलो. भरतखंडांत स्वतंत्रताय आयिल्ली आनी एका युगान कूस परथिल्ली. एकेवटेन ह्या युगप्रवर्तनाचो मनाक एक नवो धीर मेळिल्लो. देश, समाज, संस्कृताय, भास, राजनीत हें सगळें जाणा जावन घेवपाचो तर एक आटापिटो चलिल्लोच आनी विशेष म्हळचार ह्या चक्रांत घुंवतना हांव म्हजोय स्वताचो सोद घेवंक लागिल्लों. हो सोद घेवंक कवितेचीं उतरां तर सांगात करतालींच. तरी पूण नदरेमुखावयले खांची गोंयडे पयस जायना आशिल्ले. आनी, अशाच एका निर्वाणेच्या प्रसंगार म्हाका एक उजवाडाचें किर्ण भेटलें - म्हजी कविता हांवें कोंकणीत बरोवंक जाय, म्हजे दूदभाशेंत बरोवंक जाय हाची जाणवीक करून दिवपी ज्या दिसा हो निजाधर्माचो दिश्टावो जालो त्या दिसा म्हाका म्हजो नवो जल्म जालो कशें दिसलें. मनावयलें जड वजें कुशीन जालें. गळो सदळ जालो - उतरां सामकीं थळावीं आनी घरावीं जालीं आनी हांव बरोवंक लागलों. आनी तेन्नासून कविता वेगवेगळ्या रूपांत म्हजो सांगात करता.

विचारांकडेन संघर्ष, भोंवतणच्यांकडेन संघर्ष, सत्तेकडेन संघर्ष, खासा जिविताकडेन संघर्ष, आपलेपणाखातीर, स्वाभिमानाखातीर संघर्ष अशे कितलेच संघर्ष जिणेच्या मार्गार आडवे आयले. तांचेखातीर जाप सोदीत गेलों आनी म्हजें जिवीत आनी कवीत, दोनीय एका संगरांत सांपडलीं. ह्या संगरांत वेगवेगळे अणभव गांठीक बांदूंक मेळ्ळे. वेगवेगळ्या रूपांत हांव केन्ना तरी शब्दांत गुंथीत गेलों – केन्ना उत्कटपणान, केन्ना भावविवश जावन, केन्ना तीव्र संवेदनशीलतायेन तर केन्ना म्हाकाय तोलना पेलना अशे तरेन आनी केन्ना सामकेच वयले वयरूय. पूण सगळें कवितेंत. ते खातीर कवितेक हावें म्हजे पद्दतीन धोलयल्या, झेलयल्या, खेळयल्या आनी नाचयल्याय. खूबशें कितें,

रासभर उतरां वापरून गद्यांत सांगप म्हाका जमचें नासलें थंय कविता म्हज्या आधाराक आयल्या. "चांटे पावलाक जागलें मन / उतरा जापेक दिले कान/ देखून सायबा जोरगतीचें सुटलें भान ..." अशें खूब फावटीं घडलां.

"मळबा दोळयांर मार मोखून/ कांय खतां/ तुजे म्हजे जिणेंतुलीं !

.... तिरायत जावन चोख गीतां/ काळजाच्या दोण्यांतुलीं !"

अशी आवतोकाय तर कितलेच फावटीं जाल्या.

"एक पावसच जालो म्हजे जिणेचो" अशें सांगता सांगतांच –

"ह्या काठये कांडान निबरसाणेन केला हट
येवं कोणीय केदोय मोठो संबगी खट
गांठी गांठीन फुटून फागूर
दायज-गोत्र खेम घेवंक सगळयांसकट
मात्सो राव ... मात्सो राव
ह्या वेळार म्हाका उसोवं नाका
हांव खतखततां ...." अशेंय म्हाका सांगचें पडलां.

हें सगळें सांगतना वा अदीक उक्तेपणान सांगवें तर, उतरांतल्यान म्हज्या म्हाकाच उक्तायता आसतना कांय जाणाचे नदरेन हांव केन्ना केन्ना खूबच गद्य जालां जायत. कवितेची आंतरीक गेयता उणावल्या जायत. मुक्त छंदांतय एक लय आसता हाचें भानय खंय खंयय सुटलां जायत. पूण हें अजाणपणान जावंक ना, हेंय तितलेंच खरें. जाणीवपूर्वक जालां. म्हजे नदरेन, जे कवितेक जशी आयट जाय आसली तशीच ती घेवन आयल्या.

हांगा एक सांगपाक जाय. कविता ही सांगून येना, कवितेचे निर्मितीविशीं, तिच्या सभावाविशीं सांगप वा विस्कणी करप हें ती रचपी कवीचे नदरेन एक हाताभायली गजाल अशें कांय जाण म्हण्टात. तर कोण म्हण्टा हांव कविता करतां. ती स्वांतसुखाय – ती म्हाका म्हज्या एकलेपणांत सांगात दिवपाखातीर. आसत, कांय जाणाचो आसत तसो अणभव. म्हजे मात हे विशींचे अणभव साप्प वेगळे आसात. कविता हो साहित्यांतलो भोवच नाजूक, म्होंवाळ, (आनी खंकाळय) रसाळ तसोच किसलय – सदांच कंवळे आंकरेवरी उरपी असो सोबीत

सुंदर अप्रुपाचो प्रकार. पूण तेच बरावर कविता ही तितलीच अवखळ, आपशकमी, आत्मविभोर तशीच स्वताकच उक्तावपी आनी केन्ना केन्नाय विसरावपीय बो. "सांवार" ही म्हजी सगळयांत दीर्घ अशी एक कविता. ती बरोवंक लागलों तेन्ना,

"आज कोणूच उलयना
आज कोणूच वथरेना
आज कोणूच जळपेना
आज कोणूच व्हळपेना
आज कोणूच तळफेना
आज कोणूच व्हरपेना
आज कोणूच किंवाटना
आज कोणूच बोवाळना"

अशीं उतरां जेन्ना एकाफाटल्यान एक अशीं येवंक लागली तेन्ना हांव म्हज्या आटापाभितर नासलों. कवितेंतल्या उतरांनीच म्हाका ताब्यांत घेतला हें म्हाका कळटालें. हांव असहाय कसो जावंक नासलों तरी पूण एक वेगळे मनस्थितींत वावुरतालों. ही कविता वांटयावांटयांनी हांवें बरयली. सुमार आठ-धा दीस हे कवितेन म्हाका आपल्यांत घुस्पावन दवरिल्लो. कवितेंत जें कितें व्यक्त करूंक जाय आसलें तें करून जातकीच मन ल्हव जालें.

जायत, कविता बरोवंची दिसता तेन्ना तिचो रूपकार, तिच्यांतलो भावावेग, अनुभुतीची तीव्रताय घडये पयलींच कळना जायत—स्पश्ट जायना जायत. पूण जेन्ना ती बरोवन जाता तेन्ना ती, कवीचे मन आनी आपूण हाचेमदलें नातें आपुणशेंच सांगून वेता.

" मनकप्यांत ते खीण अजून थोडे बाकी . . . .
दडके दडकेर थाल्लों थंय, उबीं जालीं पाखीं ! "
वा
" पांय फुटिल्ल्या दिकांच्यो
देगो रुंदावत गेल्यो
आनी अकस्मात फुटून पाखां
सपनांच्यो घोणी जाल्यो ! " ह्या सारख्यो कवितांच्यो

वळी म्हळचार म्हज्या जिणेंतल्या उत्कट अशा अणभवाचें सहजपणान प्रगट जाल्लें शद्वरूप.

म्हजे कवितेक हे आदीं म्हळां ते प्रमाण हांवें जशी नाचयल्या-खेळयल्या तसोच तिणेय म्हाका केन्ना केन्ना बागयला. केन्ना ती मोगाळ म्होवाळ प्रियसखी कशी वेंगेंत रिगल्या. केन्ना तिणे अकस्मात म्हज्या हातांत वावुडपी खड्ग दिलां. केन्ना ती तिडकून उठल्या तिडक-संताप उक्तायतां उक्तायतांच केन्ना ती काकुळटेंतय बुडून गेल्या. "खीण घुंगरां वाजत आसतना / यादींच्या कंवळचा जागरणांत / तुका जाग कित्याक आयली ना ?" असो मायेचो सादय तिका खबर आसा. कितल्योश्योच तिच्यो पतो. ऋतुरंगावरी तिचे खेळ हांव पळयतां आनी धादोस जातां. सुंदराय आनी कुरुपाय हाचेर नदर भोंवडायतां भोंवडायतांच, झुजमारेपणाच्या धगांतल्यानय ती वेता "मनामनांतल्यान/ उजय गे / रुजय गे / पुश्ट पुटवणेचे सुंदरकाये /" अशें सांगणइतली पुश्ट पुटवणय तिणे म्हाका दिल्या. म्हजे कवितेन जसो मेकळो वारो पळयला, दर्याचीं उसळटीं ल्हारां पळयल्यांत तशीच चार वण्टींभितल्ली बंदखणय तिणे भोगल्या. चिडुल्ल्या-माडुल्ल्या चेपिल्यांचे विकळाप तर तिचे बडीकच आसाच. कारण ते तिणे आपुण जावन तागल्यात, भोगल्यात.

हांव ज्या वातावरणांत जल्मलों आनी म्हजें भुरगेंपण जे परिस्थितींत गेलें तेयपरस, तरनाटेपणांत म्हजें जिवीत एका वेगळचाच प्रवाहांत सांपडलें. म्हजो बापूय एक सादो पसरकार आसलो. त्या पसऱ्या - दुकानाभोंवतणी म्हजें भुरगें जिवीत घोळिल्लें. शाळा-विद्यालयांतलें जिवीत म्हज्या वांटचाक खूब उणे प्रमाणांत आसलें. ते उप्रांत तरणे पिरायेर मिनाचे खणींचेर नोकरी करची पडली. थंय कश्टी वावराड्यांचें जिवीत लागींच्यान अणभवूंक मेळ्ळें. म्हज्या जिवितांतलो मार्क्स म्हाका 'दास कॅपीटल' वाचचे पयलींच, गोंयच्या दोंगरा-दोंगुल्ल्यांवयल्या खणीचेर, उक्ताडार सैमाच्या गोपांत शिंयां-वोतांत कश्टतल्यांच्या मुखामळांचेर वाचूंक मेळ्ळो. आज ताची कल्पना करूंक येवंची ना. पूण त्या काळार—पुर्तुगेजांच्या काळार, कांय मूठभरांची गिरेस्तकाय उबी करपाक, कांय जाणांची फुलांची बाज रचपाक, गोंयांतलो मनीस जनावरापास्ट जीण जियेतना हांवें पळयला. खंयच्या तरी दोंगरार वा दोंगरामुळसांत ताळचा-चुडटांच्यो खोंपी.

थंयच बायल भुरगीं, संवसार. पेज - शीत - पीठां खावन पोटाची भर. दिसावडो तितलेपुरतोच. पूण कांय ना थंय तातूंतच समाधान, आनंद मानपी सादोसुदो वावराडो आनी ताचे फाटलीं समाजीक, अर्थीक आनी मनीसपणांतल्या अन्यायाची फाटभूंय सदांच म्हज्या मनाच्या तबक्काचेर नोंद जायत गेली. म्हजे कवितेंत समाजीक जाणविकेचीं सया जर कोणाकय दिसता जायत तर तें ह्या अणभवाचेंच पडबिंब.

जाणविकेची आटो जशी जशी रुंदावत गेली तशें तशें मन अदिकूच अस्वस्थ जायत रावलें. हे अस्वस्थतायेंत आनीक भर पडली ती गोंयचे मुक्तीचळवळीकडेन प्रत्यक्ष संबंध आयलो तेन्ना. स्वातंत्र्य तर जायच आसलें. पूण कसले तरेचें ? ज्या स्वातंत्र्यांत म्हजी अस्मिताय म्हज्या आजवेरच्या अंदून उरिल्ल्या उल्यांक काळजाचे खरायेकथावन जाप दितली ती स्वतंत्रताय. आतां, स्वतंत्रताय हीं अटींचेर मेळना. ती मेळोवंक जाय. मागीर तिचें स्वरूप थारता. गोंयचे मुक्तीचो संग्राम, ते उप्रांतचीं मुक्तताय आनी मागीरचीं वर्सां–सुटकेवंत गोंयांतलो लोकसमाज, ताची चालचलणूक, एके वटेन फावो जाल्लें जैत, त्या जैतांतच फाटसून दप–दपत आयिल्ली थोडीशी आमच्यांतलीच हार – ह्या सगळ्यांचें पडबिंब म्हजे कवितेंत पडना आसतना उरिल्लें तर अजापच.

एक कवी म्हणून हांव म्हज्या कवितांतल्यान विंग-विंगड भाव-भावनाक अभिव्यक्त करीत गेला जावन पूण, म्हजो असो स्वताचो सूर म्हाका मेळ्ळो तो म्हज्या जीवन जाग्रुतायेच्या ह्या संगरातच – जातूंत खासा हांव एक दलितपीडित कसोच जियेलां; मान-अवमान, प्रतिष्ठा-अप्रतिष्ठा कितें तें पळोवन घेतलां. म्हजे कवितेचो हो गाभो. वर्गीकरणाच्या सोंपेपणाखातीर, कोण कोण हे असले कवितेक समाजीक बांधीलकेची कविता म्हण्टात. म्हज्या हिसबान कवितेक अशा वर्गीकरणाच्या छापाची गरजच लागची न्हय. कवितेंत कवीचें स्वताचें अशें म्हणून जें भावविश्व प्रगट जाता तेंय शेकी कवितेचें एक रूपच आसता. झाडां - पेडां, फुलां - वालीं, न्हंयो-वझरे, चंद्र - सूर्य, नकेत्रां हांच्याय पालवान समाजाची चिंता कवितेंतल्यान प्रगट जावं येता. जड - गुळो, स्फोटक, घन-गर्भ उतरांची सांकळ केली म्हुण ती मोठी, क्रांतीचो बावटो हुबोवपी कविता जाताच अशें ना. मोग, शृंगार, प्रणयरंग ह्या रंगाचो शिंवोर केलो म्हण्टकीच ती प्रेमकविता जालीच अशें म्हणूं नजो. कवितेंतल्या उतरांच्या खेळांपरसय

तीं उतरां जो निमाणो एकत्रीत परिणाम असो सादून वेतात, तोच म्हत्वाचो. तो परिणाम वळखुपी वा पारखुपी खंयच्याय नांवान ताचें वर्णन करूं. म्हत्वाची ती काव्यरचना. ती मात खऱ्या अर्थान कविताच आमची.

हांव जेन्ना म्हजे भावनाविष्कार, जे तरेन मूळ रुपांत ते म्हजे जाले, ते काव्यात्म पद्तीन उक्तावपाचो प्रयत्न करतां. तेन्ना हांव तिरायताभाशेन एके धडेर रावन फक्त पळोवप्याची वा नियाळप्याची भूमिका घेना. हांव स्वताय ते प्रक्रियेचो एक भाग आसतां. हाका लागून म्हजी बरीचशी कविता आत्मनिष्ठ कशी जाल्या आनी जाता. कोंकणीत कांय जाणांनी समाजीक, संस्कृतीक, राजकीय आदी प्रश्नांची फकाणां करून, भगल्यो मारीत तांचीं रुपां कवितेंत समाजामुखार मांडपाचो प्रयत्न केला. जांकां हे असले प्रश्न लागींच्यान खबर आसतात तांकां असली कविता वाचूंक वाचिल्ली वा म्हणून दाखयिल्ली आयकूंक बरी दिसता. काव्यवाचनाच्या कार्यावळींनीय असल्यो कविता वाचपाचो आगरो जाता. हेच तरेची कविता, हीच खरी, कवितेची नवें युग घडोवपी कविता असो समज, कांय प्रमाणांतय जायना, साहित्यमळार घट जावंक लागलो जाल्यार ती एक हुस्को करीसारखी गजाल म्हणची पडटली. हेच फकाणांनी चित्रायिल्ले समाजमुखावयले प्रश्न, गंभीर पांवडयाचेर जेन्ना कवितेंत उतरतात तेन्ना ती कविता जड, कठीण जाता अशें कांय जाणांक दिसता. म्हज्या हिसबान कवितेकडेन पळोवपाची ही नदर गुणात्मक अशा मौलिक साहित्याक पोसवण दिवपी न्हय. कोंकणींत जाल्यार ही नदर सृजनशक्तीक मारकच थरपाचें भंय अदीक. प्रश्नांची फकाणां करूं येत. फकाणां करून हांसूय येत. पूण फुडें कितें ? निश्चित जाप मेळप कठीण. एका विशिष्ट काळाच्या संदर्भापुरती उरपी कविता निर्माण जावंची न्हय अशें ना. पूण सगळें थंयच थांबचें न्हय. थळकाळाचे संदर्भ हुपून वचपी कविताय जाय. अशी कविता आमी कितलीशी बरयतात ? थोडेंशे विषयांतर करून हांगा ह्या सगळ्याची चर्चा करपाचें कारण म्हळ्यार, म्हजी कविताय अशीच थळा-काळाच्या बंधनांत बंदिस्त जावन पडटा कांय कितें हो हांवें म्हाकाच विचारिल्लो प्रश्न आनी हांवेच त्या प्रश्नाची जाप सोदपाचो केल्लो प्रयत्न-म्हज्या म्हाकाच सोदपाचो एक प्रयास.

"ह्या थळाचे आमी थळावे गा
ह्या मूळसांत वार आमची

ह्या मुळाचे आमी मुळावेगा
हे भुयेंतच आमची कळाशी
ह्या कुळाचे आमी कुळावे गा
ह्या थळाचे आमी थळावे गा ! "

अशीं उतरां हांव बरोवन गेल्लों तेन्नाय, म्हज्या थळाव्या आनी मुळावेपणांतय एक सर्वव्यापीपण सोदपाचो म्हजो प्रयत्न आसलो. आनी ह्याच प्रयत्नांतल्यान कवितेचो शेवट करतना अशीं उतरांआयलीं.

" पांच-पर्चुमे हे भुये होटयेंतुले
आमीच गा एकमेकांचे दायजी जाले
हें दायजीपणच कसाक सदां लावंया गा
ह्या थळाचे आमी थळावे गा "

हांव ज्या म्हज्या भोंवतणच्या भोवरुपी संगराचे प्रक्रियेंतल्यान रुजून आयलां आनी वाडलां, तेंच दायज घेवन हांव म्हज्या उतरांनी म्हाकाय सोदतां. म्हज्या समाजाक सोदतां. समाजाच्या मुल्यांचो सोद घेतां एकंदर म्हज्या थळाव्यापणाचो हुस्को करीत ताची सांगड म्हज्या थळाव्यापणापरसय विशाळ अशा राष्ट्रीय जिविताकडेन घालपाचो म्हजे पुरतो प्रयत्न करतां. घडये ह्या प्रयत्नांतल्यान ही दुसरीय शीम हुपून वचपाचो हावेस फुलून येत.

म्हज्या म्हाकाच सोदपाच्या प्रयत्नांतलो आनीक एक प्रश्न : " वंशकुळाचें देणे " म्हळचार कितें ? ताची व्याप्ती कितें ? खरेंच ह्या देण्यांत 'देणें' म्हणपासारखो कितेंय पूण सार आसा ? कांय ही बेठीच मनाक भूल घालपी उतरांची चमत्कृती ? आनी हांगा म्हाका, हांवें म्हजेच भुयेक मारिल्लो उलो याद जाता :

" हे भुंये म्हजे, माते
वेगळावं नाका आनी म्हाका,
म्हज्या वंशकुळाक वेगळावं नाका,
कुडक्या–कुडक्यांनी तोडूं नाका,
हे मातये–पांका मेकळे जावंक
दिवं नाका ! दिवं नाका !
ही माती म्हळचार
तुवें उदार जावन म्हाका ओंपिल्ले
म्हजे प्राण . . . "

"वंशकुळा" ची भास ही प्रतिगामी रूपाची आळवणी अशेंय कोणाकय दिसूं येता. चड करून आज जंयथंय 'पुरोगामी' पणाचे उखलापे नारे गाजतात ताका लागून. 'वंशकूळ' सारख्या उतरान हे समजणेक पुश्टी मेळूं येता, हाचीय म्हाका पुराय जाणवीक आसा. पूण ह्या उतराक, ताचे फाटले संकल्पनेक दुसरीय एक कडा आसा हेंय विसरूंक फावना. आनी ती कडा म्हळ्यार, परतून सांगतां. म्हाका सोदून काडपाची. म्हज्या मुळाक हात घालपाची. म्हजो ऐन गाभो सोदपाची. आजच न्हय सदांच ताची गरज आसली. आज आमी अडेच्या झगझगाटाक भुल्लूसून, आमची बुन्यादच उखलाप्या मुळांचेर थिरावपाचो कुड्डो यत्न करूंक लागल्यात. हीन नीत-मुल्यांक पोटलावंक लागल्यात. तातूंतच व्हडवीक मानूंक लागल्यात. अशा वेळार जर, हांवें म्हाका कितें होलमावपाचें आसा तें म्हजे भुंयेक घांस मारून आनी म्हजे मातयेच्या रेब्या-चिखलांत घट पांय मुंगरून वळखलें ना तर म्हजें साहित्य, म्हजी संस्कृताय, म्हजें दायज, म्हजी भूंय हांगाचें जितें-जिवें सैम हें सगळें कोणाखातीर ह्या प्रश्नाची जाप म्हाकाच न्हय, कोणाकच केन्ना मेळची ना.

आमच्या म्हालगडयांनी आमकां, थळावे आसून लेगीत संवसारव्यापी जावपाच्यो कांय देखी घालून दिल्यात कवीकुलगुरु रवींद्रनाथ टागोरांनी आपणाल्या साहित्यांतल्यान, भारतभुंयेचेर पांय रोमूनच विशाळ अशें मनीसकुळयेचें गीत गायलें. ते खातीर हे भुयेंत जें कितें सत्य, शिव, सुंदर परिपुश्ट करिसारखें आसा तें संबंध बऱ्या-वायटाचे राशींतल्यान पयलीं सरी करून घेतलें. अशें केलें देखूनच, तांच्या सारख्यांच्या साहित्यांतल्यान भारतीय साहित्य जिविताचें पुनरुत्थान घडूंक पाविल्लें आमी पळयतात. हें पुनरुत्थान, तेच तरेन आयच्या नव्या काळाचीं आव्हानां स्वीकारीत, त्याच उंचल्या पांवड्यावयल्यान, आनीकय उंचल्या पांवड्यार आमचे साहित्य जिण्क व्हरून पावोवपाचें काम कोणाचें ? साहित्यकारांचेच जावंचें पडलें ना ?

आमची नदर आमच्यांतच भितर खोल रिगोवन आनी तेच बराबर भूत वर्तमानाचो वेध घेत आमी हीच नदर परती विस्तारावन जर भविष्याकडेन लावंक शकले तर कोंकणी भाशेतलेंय साहित्य, एका कोंडाळ्यांतले, थोडयाशा संभ्रमातलें भायर सरून वैश्विक थरावयलें जावंक पावतलें. आमी मुळांतच आमची नदर, आमच्या थळाव्यापणातच खोल

मुंगरावन, तशेंच गुणगुणत रावले तर, आमची मर्यादा एक दीस सोंपतली. थळाव्या जाणविकांतल्यानय एक संवसारव्यापी सत्य आमी झोंमून घेवंक शकले तर आमचे साहित्यजिणेक एक वेगळीच कात मारलेबगर रावंची ना.

सांगपाच्या वोगांत आयिल्लें म्हणून हांवें वयर जें कितें सांगलां. ते सांगपाचो म्हाका कितलोसो अधिकार आसा हांव नकळों. खरें म्हळयार नाच तो म्हाका, कारण एका निज साहित्यकारापरसूय, काळाचे गरजेन त्या मळार ओडून गेल्लो हांव. भोवच नमळायेन, थोडोसो भियें-भियेंतच हांवें त्या अधिकाराक स्पर्श करपाचो प्रयत्न केला. म्हजी कविता, हें सगळं सांगपाच्या अधिकाराक फावोशा तोलाची आसा अशें तर म्हाका निखालस म्हणपाचें ना. पूण म्हाका परत परत दिसता, हांवें म्हजो सोद घेत घेत ताची गांठ संबंध मनीसकुळयेच्या सुखदुख्खांकडेन घालची प्रयत्न तरी करचो. म्हजी शीम-मेर म्हज्या गांवची शीम-मेर, मनाचे फाटभुंयेचेर म्हज्या देशाचे शीम-मेरे परसूय विशाळ-व्हड जावन तिका संवसाराचो वेध घेवंक येवंचो. खलिल जिब्रानची मनीसमोगाची भास ही म्हाका म्हज्याच उमाळच्या-उत्फरक्यांची सया दिसची. चिड्डल्ल्या माड्डल्ल्यांच्या भाव-भावनांक शब्दरूप दिवपी पाब्लो नेरुदाचीं उतरां, खंयचे तरी गोंयचेय दोंगुल्लेचेर मिनाखणीवयले फातरांचे राशींत अचळय म्हाका मेळचीं. कविता ही खंयच्याय थळांत किल्लून येवं, तिचें रोंप वाडटकीच तिका पंचखंडांतल्या उदक-वाऱ्याचो आनी रंगा-गंधाचो घमघम येवंचो.

हें सगळें सांगतना हांव ल्हान तोंडात मोठो घांस घेवंक पळयतां अशें कोणाकय दिसूं येता हाची धुगधूग म्हाका आसाच तरी पूण एके गजालीविशीं सोंपोवचे पयलीं म्हाका सांगूंकच जाय. ती म्हळयार कवितेविशींची नदर — म्हजी नदर — कवितेच्या किर्णां पसयेंतल्यान पावता तितले पयस मेरेन पावपी नदर. ही नदर हांव एकदम मोटवी कित्याक करून घेवं ? जितली पयसमेरेन पावता थंय मेरेन नदर पातळावन जें कितें दिसूं येता ताचो वेध घेवपाचो म्हजे कवितेचो आटापिटो — सभाव.

"नदरेपेल्यान, नदरेपेल्यान
गीत म्हजें रुजून आयलां
भाग्योदया फूल ताका
वेगींच आतां येवंचें जाला."

अशें हांवें कांय वर्सांपयलीं बरयिल्लें. अजूनय हे कवितेंत उक्तायिल्लो आशावादी भाग्योदय खिणा खिणा म्हाका खुणावन आपयता. कितलीच वाट चल्लों तरी अजून कितलेंशेंच, नदरेपेल्यान उल्लां अशेंच दिसता. हाका लागून खंयच थांबूक मेळना. एकसारखें चलत रावचें पडटा. आनी चलतना –

"कांय अभागी तांका कळूनय केन्ना कळना
ते मेळत तशे फातर शेवटीत वेतात
त्या फातरांच्यो जाल्ल्यो व्हड व्हड राशी
त्यो ह्या हातांकच निवळ करच्यो पडटात
आनी देखून आमचीं गीतां आमकां गावंची पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात."

आमी – हांवें आनी म्हजे पिळगेच्या आनी उप्रांतच्यांनीय हें 'वंशकुळाचें देणें' – रीण आनी मेळिल्लें दायच अशा दोनीय अर्थाचें देणे मानलें. देखूनच तर म्हजेसारख्याची कविता जियेली – तिणे म्हज्यासारख्याक प्राणवान करून दवल्लो. एका विलक्षणाच्या कालखंडात म्हजेसारख्याक जियेवंचें पडलां. पोरणे, बरगेलें आनी कोसमेल्लें मोडून नवें घडचें पडलां – बांदचें पडलां. नवें घडयिल्लें भौसामदें रुजोवंचें पडलां. एका जीवन संगराच्या हुंबऱ्यार आजय म्हजेसारख्या सकट सगळेच उबे आसात – कोण पुराय जाणविकायेन. कांय जाण परिस्थितीक लागून कांय आनीक दुसरी सुटकावाट ना म्हणून हांव उबो आसा म्हजी प्रिय सखी कविता घेवन. कोणाचीय नदर तिचेर गेली तर गेली. ना जाल्यार – प्रवास चालू आसाच.

मळें, पणजी. **नागेश करमली**

९ आगस्ट, १९८९

## मनीसपणाचें गीत

ह्या फुलांवांगडा
केन्ना केन्ना आमीय मात्शे फुलुंया
आमचोच परमळ
आमच्याच पोशांत, गांव गांव भरूंया

ह्या रूखांवांगडा
केन्ना केन्ना आमीय मात्शे पालेवंया
पाचवो चार मनाभार
दिकां दिकांर आमीय मात्सो खेळोवंया

ह्या ल्हारांवांगडा
केन्ना केन्ना आमीय मात्शे ल्हारेवंया
रसरसते रेंवे वेळेर
ल्हार जावन आमीय मात्शे निशेवंया

ह्या कुपांवांगडा
केन्ना केन्ना आमीय मात्शे बागडुंया
आंगा पांगां मिर्गाधार
पावस जावन आमीय मात्शे शिंपडुंया

ह्या किर्णांवांगडा
केन्ना केन्ना आमीय मात्शे पेटुंया
जोत जोत केण जावन
काळखाचें रीण आमीच आता तोडुंया

हे जिणेवांगडा
घडी घडी आमीच आतां जियेवंया
जितेपणां नातें सोदीत
मनीसपणा गीत आमीच सदां आळोवया

## आनंदसुक्त

मुक्त, विमुक्त
दिकां दिकांतल्यान रचून येवं एक आनंदसुक्त
मनमेकळ्या
मनीसपणाचें रूप अपरूप एक दिव्य भावयुक्त
मुक्त विमुक्त !

गळून पडूं
आमीच पांगुल्लेले हे अनवळखीशे धरबंद
नाका आनी
आड कल्पनांचे अंतरयात्री विखाळ विखाकंद
जाले पुरो
पोसयलेले अशे हे रगतपिशे नाड छंद
उतर आमचें
जावचें ह्या गणगोकुळांतलें रसरंग नंद
नदरेंत ह्या
भरची आनी सह्य हिमालयाकूय उंच धुंद

मुक्त, विमुक्त
मेळची आमची सांडलेली आमकां युगंधरा शक्त
दिका दिकांतल्यान रचून येवं एक आनंदसुक्त !

## भार येवपाचे दीस

ते भार येवपाचे दीस
परतेय इंगळे जावन पेटपाचे आसात !
आडावंक घाल्ले नीस
जिते हुलप जावन
चलपाचे आसात !

आमचे फारवल्ले खीण
परतेय खुदून उठून जागपाचे आसात !
जल्म जुगा आमचें रीण
आमी वादळां जावन
पावोवपाचे आसात !

आगळें उणें सगळचा सगळें
ह्याच मांडार आमी मोलावपाचे आसात
आमचे रंग राग वेगळे
हांगच्या दोळचां दोळचांनी
फुलोवपाचे आसात !

## सपन - भुंयें !

अप्रुपाचे हे म्हजे सपन - भुंये
तुजी निळी नदर म्हाका दी

तुजो पाचवो चंवर फुलां-भार
ह्या जिवीत रंगाक रंग दी

फांत्या पारचो स्वास तुजो
सांज परार गंध जावं दी

रात काळशी जिवा घटाय
चंद्रिमाकूय धार लागूं दी

अप्रुपाचे हे म्हजे सपन - भुंये
तुजी निळी नदर म्हाका दी

## आमी आयले

आमी आयले
कडे-कडसां बंदपासांचे बांद मोडून;
दुधसागराच्या घोग्यावरी
दोंगर खडपां
सह्याद्रीच्यो घळी हुपून !

आमी आयले
नव्या युगाचो गाज जावन;
गितां - गितांचो ताल जावन
युगंधरा शक्तीचो साद जावन !

आमी आयले
जोरगतीचे भरतेचें ल्हार जावन;
दर्याचे फाटीवयलें
आमचे तारूं
घराधडे तडी लावन !

आमी आयले
आमगेलोच प्राण जावन;
आमी आमगेलेच बलराम जावन;
आमचोच घात घेवंक
दडिल्ल्यांचो काळ जावन !

आमी आयले
आमगेलोच उलो जावन;
शेतावांदार
माडा - खांपार चडटल्या
रेंदेराचें कांतार जावन !

आमी आयले
आमगेलोच नवो वेद जावन;
सुक्त सुक्त गायता गायतां
सौभागिणीच्या हातांतलें
दिवज जावन !

आमी आयले
आमच्या ललाटाचो तिबो जावन !

आमी आयले
हे मातयेची कविता जावन !

आमी आयले
हे माचयेचें नाटक जावन !

आमी आयले
हे कुडींतली कथा जावन,
प्राणवती धर्तरेच्या
कुसव्यांतलो छंद जावन !

आमी आयले
ह्या अंदल्ल्या कंठांतलो
उद्‌गार जावन !

आमी आयले
हे भुंयेचें सपन जावन !

आमी आयले
आमचे कुळये कुडीचें
रगत जावन !

आमी आयले
आमचे जिवे जिणेचो
श्लोक जावन !

आमी आयले
आमच्याच रंध्रारंध्रांतलें
उज्या केण जावन !

आमी आयले
आमचेच खातीर
पेटत रावपाचो
अनंत युगांचो
काळस्पर्शी धेंक जावन !

आमी आयले
आमचेच कुळयेचे
नांव लावन !

आमी आयले
आमचेच युगयात्रेचें
कदीमकाळा काळपुरसाचे
सर्वव्यापी पावल जावन !
सर्वव्यापी पावल जावन ! !

## कळ्ळेंच ना

ते बांद तशे कोसळटाना
कोण व्हांवले, कळ्ळेंच ना !

तो सांवार हांगा जल्मताना
कोण मुकसले,
कशे मुकसले, कळ्ळेंच ना !

हांगाच्या परमळांक
हो आगळोच गंध
कसो पुरा आयलो,
केन्ना वळूं लागलो, कळ्ळेंच ना !

चिमटी प्राणांत
उचंबळ दर्याचें बळ
केन्ना आयलें, कळ्ळेंच ना !
असोच
धा जाणांतलो कोण एक,
होच कोण
सगळेंच लागलो उलोवंक केन्ना
– कळ्ळेंच ना, कळ्ळेंच ना !

## ह्या थळाचे आमी थळावे गा

ह्या थळाचे आमी थळावे गा
ह्या मूळसांत वार आमची
ह्या मुळाचे आमी मुळावे गा
हे भुयेंतच आमची कळाशी
ह्या कुळाचे आमी कुळावे गा
ह्या थळाचे आमी थळावे गा !

हे मातयेचे आमी
हे मातयेचीच भास आमगेली
हे भौस-भाशेचोच हो भौस मगा
ह्या भौसाकच लावया प्रसाद पाकळी
ह्या भौसाचेच आमी कुळावे गा
ह्या कुळाचे आमी कुळावे गा
ह्या थळाचे आमी थळावे गा
आमी थळावे गा !

रुपाबडीन
आसूं कोणीय विंगड कसोय
धरूं कोणीय वांगड कसोय
हें रगत, हे भुंये सांगात हांगा
हें संग सांगाती काळीज हांगाच गा
ह्या थळाचे आमी थळावे गा
आमी थळावे गा !

आयले पयले खोशेन रावले
हांगाचेय दिगंतराक वचूंक पावले
तरी धडा बुन्यादी फातर सगळे
रूप निजा वळखून असले
आमीच आमकां वळखत रावले गा
ह्या थळाचे आमी थळावे गा
आमी थळावे गा !

सरून गेले कितले चेपणातळा
तरी सोडून दिवंक ना ऐन मुळा
काळवेळाच्या पळोवन विचित्र खेळा
शिंपडून गेले केन्ना कोण जळामळा
एकाच रगतांत रुजल्या ही बड मगा
ह्या थळाचे आमी थळावे गा
आमी थळावे गा !

कोणे वसयलीं फुटंग पाडीं मळां
कोणे उजयलीं जिवी मनीस कुळां
खाजना – रेबो धर्तरमाये, पावलां तळा
ह्या सैमारुपांतच आमची सगळी कळा
कळे बळायेन जीव जियेवन रावले गा
ह्या थळाचे आमी थळावे गा !
आमी थळावे गा !

आयले उले लागचे पयसुले
काळीज काळजा वळखत गेलें
पाच-पर्चुमे हे भुंये होंटयेतुले
आमीच गा एकमेकांचे दायजी जाले
हें दायजीपणच कसाक सदां लावया गा
ह्या थळाचे आमी थळावे गा
ह्या कुळाचे आमी कुळावे गा
कुळावे गा,
आमी थळावे गा !

## आमी

आमी अशे न्हय,
आमी तशे न्हय,
धीर सोडिल्ले
अबर्गत तर न्हयच न्हय !

आमी ?
आमचींच मर्णां जियेल्ले.
युगात्म्याच्या कळसाक
अभिषेक केल्ले,
उज्या-मोडांत घालून घेवनय
आमचो बाबटो खांदार मारिल्ले

आमी अशे न्हय,
आमी तशे न्हय,
आप सोडून ल्हेवटे जाल्ले तर
न्हयच न्हय !

आमी ?
आमी मरून किल्लल्ले,
कळिकाळाच्या शिरंतरानी
रिगून रिगून
रगता रंगान न्हावन आयिल्ले.
आमी नीज वळखल्ले
जल्मा घालपी आवयक वळखल्ले !

आमी
आमी अशे तशे न्हय,
रण सोडून
कुल्यां पांय लावन
धांवन आयिल्ले तर
न्हयच न्हय !

आमी ?
आमी हे भूंयचो कस घोंटिल्ले
ह्या युगमंथनांत
रुद्र जावन वीख पचयिल्ले
आमी आमचें दायज वळखून
जैताचेच घुडयेक वेंगयिल्ले !

आमी ?
आमी आमच्या कुळाक वसयिल्ले
एक एक उतर मोखून मारून
आमकांच पोसयिल्ले !
आमी अशे तशे न्हय,
आमी,
आमच्याच हातांनी
आमकांच फुकेसवाय लाटून बुडोवपी
तर न्हयच न्हय !!!

## तीं पर्थल्लीं वारीं

तीं पर्थल्लीं वारीं
आतां बरींच पयस पावलीं !

त्या वाऱ्याच्या मागार
आमीय परते आयले
पुण बरेच उसरां पावले
आमकां काळवेळ कळ्ळोच ना.

आमी मदें मात्शें
वाटेर सावळेक म्हुण रावले
पोरसांतल्या फुलांक
तोखेवपाकय
बरोच वेळ घालयलो;
मदें मात्शें दर्यारूय
वचून आयले
थंय धवीफुल्ल रेंव –
तिचेर येवन फुटपी ल्हारां,
ताकाय आमी भुल्लूसले

– आनी
दीस धारेक लागपाच्या
वेळार मात
आमी ताकतीक केली.
पुण तीं पर्थल्लीं वारीं
बरींच पयस पावलीं
–आमकांच कळाव जालो !

## थाव

अथांगाचो थाव घेवंक
   माल्ली उडी भरते भारा
सांडून मायेपासा
   म्हयमोगा घरदारा

खिणाखिणा आतां
   अनवळखीशोच नुरा
आसून जिवानशी
   आमीच पयस आमचे घरा !

## सुटका दी !

सुटका दी,
इल्ली सुटका दी,
सुटका दी !

बांदिल्ली गच्च गांठ
इल्ली इल्ली सदळ कर
– आतां दार उक्तें जालें न्हय ?
– आतां हातय मेकळे जाले न्हय ?

मणकटांक दोरयांचे वोळ पडल्यात
चरांटून बांदिल्ल्या पासांचे ....
तांकां विलापूंक मागीर
खूब खूब वेळ आसतलो !

ह्या उक्त्या दारांतल्यान
ते तें परतें लावचे आदींच
भायर सर, भायर सर !

उगडास जायना ?
ह्योच तो मार्ग ....
हांगा येतना हो
अटकेचो मार्ग आसलो
आतां बऱ्याच काळान
बदल्ली काळाचीय म्होर ....
हो जालो सुटकेचो मार्ग,
सुटकेचो मार्ग !
आतां इल्ली इल्ली सुटका दी,
म्हजे म्हाकाच सुटका दी,
सुटका दी !

## निर्धार

सांवार उज्याचे
आखांत बांद फोडून –
आजय आमी
आमगेलीच
आसनमांडी घालून !

तरसादी धारेचेय
खर घाय पोशेवन –
उबेच आमी
परतूय झूज मांडून !

आमचें झूज सोंपून सोंपना ....
आमचो सांवार न्हिवून न्हिवना ....
पेट्टो उजो कसोच पालवना !

आखांत जिवाचे
दिगंत उले आयकून
आजय आमी
आसात एकान एक धांवां धरून !

## अन्तहीन काणी

यो बस,
आतां उरिल्ली काणी फुडें सांगतां –
हे काणयेंत राजा ना, कोण राणी ना
प्रधान, राजकुंवर कोणच नांत
हे काणयेंत अजाप ना, विस्मित ना
हे काणयेक एक काळवेळय ना
ही काणी जाय जाल्यार लांब काळाची
जाय जाल्यार ती काल पयरचीय
विशेष म्हळयार
हे काणयेंत तूं आसा, तो आसा, ते आसात
हांव सदांच आसलों, आज तर आसाच आसां
आमगेले जाल्ले गेले फाटले जाणटेले
फुडचे, हे फुडलेय हेच काणयेंतले
तर आयक,
उरिल्ली काणी आनीक फुडें आयक –
हे काणयेक हे पर्वत गवाय आसात
हे काणयेची दुखी ह्या न्हंयांनी धुल्ली आसा
हे काणयेतले वीख दर्यान गिळिल्लें आसा
हे काणयेंतलें जैत मळबान तेळिल्लें आसा
जैतांतली हार त्या नकेत्रांनी दागिल्ली आसा
हे काणयेंत भूक ह्या मार्गांनी पळयिल्लो आसा
हे काणयेंतलो,
बडवाचार ह्या बंगल्यांनी भरिल्लो आसा
नेटान धांवपी मोटारींच्या धुल्लान दाटिल्लो आसा
हांगा काणयेक ताचोच कांस लागिल्लो आसा
भुकेल्ल्यांचो विकळाप थंयच जिरिल्लो आसा

आयक, सोंपूंक ना,
आनीकय उरिल्ली काणी फुडें सांगता –
हे काणयेंत घाय पडिल्ले घायांचे घाय आसात
हे काणयेंत मोन्यानी धाय रडपी काळीज आसा
हे काणयेंत मस्त मनशांचे अत्याचार आसात
हे काणयेंत धर्म मिरयत वावुडपी आसात
देवासाक्षीन गोमटी मारपी हाणपी आसात
हे काणयेंत फट उलोवंक सर्त लावंक धांवपी आसात
सता नांवान लटीक पुजपी पुरयत आसाप
आयक सांगतां –
हे काणयेंत किणेल्लो उजवाड आसा
विखाळिल्ली सकाळ आसा, सांज आसा
रक्तखेवान कोंचून पिसुडिल्ली रात आसा
हे काणयेंत विकतो मेळपी मोग आसा
हे काणयेंत–
आपलोच फोंड खणपी खोरेकार आसा
आपल्याच मनाक फटोवपी फटास आसा
आयक सांगतां,
हे काणयेंत आमी सगळेच आसात
आमचे हावेस आसात, वितराग आसात
ही काणी घडोवपीय सगळेच आसात
ही काणी माडोवपीय जायते आसात
हें सगळें हत्तुयार घेवंक ही धर्तरय आसा
आयक सांगतां,
ही काणी तशी केन्नाच सोंपून सोंपना
कारण –
ती बरोवपीच अजून येवंक ना !

## म्हाका दिशिल्लें

म्हाका दिशिल्लें –
ह्या धगा – उज्या पर्वांतली
ही म्हजो निमाणी फावट

म्हाका दिशिल्लें
ह्या वोगा-रागा कडांतली
ही म्हजी निमाणी फावट

म्हाका दिशिल्लें –
ह्या हुमे - रगतान भिजपाची
ही म्हजी निमाणी दनपार

म्हाका दिशिल्लें –
ह्या घांटी घणघणाटान
गांव जागोवपाची
ही म्हजी निमाणी पाळी

म्हाका दिशिल्लें –
काळजांतलें सगळें उक्तावपाची
ही म्हजी शेवटाची रात

म्हाका दिशिल्लें –
बावत वचपी पाचव्या रानांत
आतां तरी घडटलो हरवो सांगात

म्हाका दिशिल्लें –
म्हज्या जल्माचें म्हजें रीण
कळांतरासयत जालें आतां पावतें

म्हाका दिशिल्लें –
सोंपली म्हजी चार दिकांमदली
ही नाका नाका ती बंदखण

म्हाका दिशिल्लें –
आतां हांव मुक्त विमुक्त
मेकळेपणान आळयन
म्हजेच मुक्तीचें सुक्त

म्हाका दिशिल्लें –
ह्या दर्याक आतां येतली
मनीसपणाची मनीस-भरती

म्हाका दिशिल्लें –
म्हज्याच दोळयांतलें सपन
आनी हेरांच्याय काळजांतलें सपन

–ह्या सपनांची कूस फळ्ळेबगर
सुटकेक पावल फुटचें ना
हेंय म्हाका दिशिल्लेंच !

## गवाय

ते नारे गाजयत चल्ले
हांव तांचे शब्द विसकायत रावलों

ते वारीं पर्थायत आयले
हांव तांची पावली तेळीत रावलों

ते उचंबळ जायत रावले
हांव म्हाकाच सांवरूंक उल्लों

ते दांडे वावडीत गेले
हांव तांचे धपके मेजीतच उल्लों

ते आयले, ते परतेय गेले
सगळे नदरांचेच गवाय जाले !

## ते दिको हुपून गेले !

दिगंतराक वचूंक गेल्ले ते
केन्नाच दिको हुपून गेले !
आमी हुंबऱ्यारच
फाटी फुडें जायत उल्ले,
नदरांक फक्त नदरांनीच सांसपीत
पळयतच उल्ले,
फक्त पळयतच उल्ले,
ते केन्नाच दिको हुपून गेले !

दिगंतराक वचूक गेल्ले ते . . . .
खीणभर,
आमचेय पांय फाटींफुडे जाल्ले,
पुण काळका कोनशाक
आमी आमचीं जोतींच
सोदीत उल्ले,
ते मात केन्नाच दिको हुपून गेले !

ते दिको हुपून गेले
तांचीं तरंगां ते झेलयत गेले,
आमी देवाकुडींत
माल्याच्यो वाती सारीत
सदचींच स्तोत्रां गुणगुणत रावले,
ते मात सूर्यकुळाचे उले आयकत
दिको हुपून गेले !

आमी उतराचो घोळ घालीत
हिशोब कोंतां करीतच उल्ले,
ताणी मोखून मारिल्ले फातर
तीर सादून मळब चिरून गेले.
तांची तोखेणी करपी आमी
दोळे विटबिटायत
अर्था भायरें पुटपुटतच उल्ले,
ते मात दिको हुपून गेले !

ते गेले
आनी आमी आमचीं
एकामेकांची मापां काडीत रावले.
कोणाक चेपचो,
कोणाक चेंचचो,
कोणाक नाडचो
कोणाक पाडचो,
कोणाक धुकळचो
कोणाक उखलचो,
हींच गणितां मांडीत रावले
बेरजो वजाबाक्यांनीच
आमी विर्गळून पडले
ते मात दिको हुपून गेले !

आमी वोता कडार
दिसा भारारय
वडामुळा सुस्त घोरेले
ताणी मात रातीचो दीस केलो
रगताचें उदक केलें;
त्या उदकान शिंपून
फुडारा मठयेची बुन्याद रचली.
आमी
आमच्या जाती कातींचे रंग धवळीत
आनी
दायजी गोत्रांचे पास सोडयत
म्हुर्तांचे आशेच काडीत रावले.
दिगंतराक वचूंक गेल्ले ते मात
केन्नाच दिको हुपून गेले !

## पळोवणी

आमी पळयल्यो सूर्यवताच्यो पती
आमी पळयल्यो चंद्र किर्णांच्यो राती
आमी पळयल्यो मनीसपणाच्यो रिती
आमी पळयल्यो इतिहासाच्यो गती

आमी आमकां पळयले जल्मतना
आमी आमकां पळयले वाडटना
आमी आमकां पळयले झुजताना
आमी आमकां पळयले मरतना

आमी पळयले पुजेक लायिल्ले देव
आमी पळयले देवमंदिरांतले खेव
आमी पळयले पुरयतांचे पुडव्या शेव
आमी पळयले अवसराचेय अच्छेव

आमी पळयली आमचीच पावणी
आमी पळयली आमचीच निंदणी
आमी पळयलीं कर्तुत्व आनी करणी
आमी पळयली आमचीच गळसणी

आमी आमचें शाणेपण पळोवन जालें
आमच्या पिशेपणाकय तोखेवन जालें
आमी आमगेले स्वामी पळयले
तांचे पांय धुवपी भगत पळयले

आमी हें पळयलें नि तें पळयलें
दोळे उक्ते दवरून पळयलें
आनी पळोवनूच कळून आयलें
आमी फकत पळोवपाचेंच काम केलें

## बंधपास

तोडून पास बंधपास
घेवचो तुवें मेकळो स्वास –

मना बंधनाची आस
तूं तुजे करणेचोच रे दास

अन्यायांतूय नमपाची
तुजी ही मानमोडी भास

अप्राप्ताच्या लागून फाटी
नाका जाल्लीच धरप ती आस

पुरो हचो गळवज्ञा
आनी सायबा जात्रांची रास

– रे तोडून पास बंधपास
घेवचो तुवें मेकळो स्वास !

## वाट

सपन भोंवर सुगंधाचे हे
भरून ओतले सगळे माट

ओड – ओडीचे उपाट व्हांवले
अवचित म्होंवाळ पाट

बांद बंधनाचे जाले मेकळे
अंद अशीर मेटले कांठ

देख – देखतां गावली आमकां
आमचीच नवनवशी वाट

## दिवजांच्यो वाती

ह्यो दिवजांच्यो वाती –
थरथरतात काळजां कोणाकोणाचीं

हे धरतर माये माती –
रुजयता बियां तरांतरांचीं

ही नकळपी नातीं –
मोनी रुपांच कशीं सूर्यकुळाचीं

लागना ही नदरांपाती –
पुण व्यथा मात अंता खिणाची

जल्माच्यो ह्यो रिती –
मनाच हीं आळख्या - विळख्यांचीं

ह्यो दिवजाच्यो वाती –
आनी काणी मात खंती हुस्क्याची.

## याद

ह्या तुज्या दोळ्या - मळबांत
आयलीं दाटून सगळीं कुपां ....

वळखी - अनवळखी कोणाकोणाचीं
सगळीं आगळीं रुपां

उडून गेल्लीं पारव्यां - भिरीं तांकांय
आजच गावली दिका

विसरून गेल्ल्या उतरांची आज
जाली याद तुका म्हाका

## ते दीस आतां गेले !

–'हांव पातशा, तूं रैत
तुज्या झरपांत म्हाका जैत' –
त्या नेटान मिरोवचेले
ते दीस आतां गेले !

–'हांव भाटकार, तूं भागेली
म्हाका कुडव, तुका पायली' –
पिशाक पिंपोळ करचेले
ते दीस आतां गेले !

–'तुवें कांडचें, हांवें भकचें
म्हजें मोडून तुजें घडचें' –
नशिबाचेच खेळ म्हणचे
ते दीस आतां गेले !

–'तुवें ओंपचें, हांवें लुंवचें
वयर 'सायबा-जात्राय 'करचें' –
लाचारेन उतरां झेलचेले
ते दीस आतां गेले !

–'तुवें मारचें, हांवें हांसचे
थापट घेवनय दुख्ख गिळचें' –
सलाम करीत रावचेले
ते दीस आतां गेले !

## येवंदी तुजे उले !

येवंदी तुजे उले –
पर्वतांचें पोट फाळीत
कुपांतली वीज मोखून
शिरंतरां त्राण सोदीत
येवंदी तुजे उले !

येवंदी तुजे उले –
दर्याचीं ल्हारां हुर्पीत
मळबाचे दोळे कोंचून
न्हिदसुऱ्यांची न्हीद खळयत
येवंदी तुजे उले !

येवंदी तुजे उले –
दुखांचे बांद मोडीत
तापत्रया खंत ओंकून
रातीचो काळोख भेदीत
येवंदी तुजे उले !

येवंदी तुजे उले –
दिकादिकांचें रगत पिळीत
आखांताळो याग मांडून
मनशांतलो मनीस मोखीत
येवंदी तुजे उले !

येवंदी तुजे उले –
हड्डयांचेंय बिड्डें तोडीत
नाडटल्यांचें राट मोडून
समभावां बावटो हुबयत
येवंदी तुजे उले !

येवंदी तुजे उले –
धर्तरेचें दायज सोदीत
मातयेचो वास हुंगून
परमळाचो शिवोर करीत
येवंदी तुजे उले !

## सगळे दिवे पेटोवन जाले उप्रांत –

सगळे दिवे पेटोवन जाले उप्रांत
म्हज्या हातांतल्या
एकसुऱ्या दिव्याकय वात लाय –
जोत पेटय
हांव उजवाडांत आसलों तरी,
वात पेटय !
हांव उजवाडांत आसलों तरी
सायबा,
गरज पडल्यार म्हाकाय तूं पेटय !
म्हज्यांतल्या उजवाडांत
तूंच म्हजो हात धरून
म्हज्या जिणेमांडार
तूंच म्हज्या म्हाका भेटय !

पेटय पेटय पेटय –
सगळेच दिवे पेटय,
दिवलेन दिवली, पण्टेन पण्टी
वातीन वात,
चोंयशीं सगळेंच पेटय
पेटय, पेटय, पेटय....
सूर्य चंद्राकय लज जायत
अशे भाशेन,
म्हाका पेटय, तुका पेटय,
मळबांतल्या मळबाक पेटय,
शेतांतले पालयेक पेटय,
झाडाचे तेंगशेक पेटय,
खणींतल्या फातराक पेटय .....
ह्या अथांग काळखेल्ल्या उजवाडांत
तूं रे सायबा,
आमकां पेटय, आमकां पेटय,
आमकां उजवाड भेटय,
भेटय, भेटय,
उजवाडाकच आमकां भेटय !

## वादळमोडां

वादळ मोडां आमकां सदचींच जाल्यांत !

आमगेलीं दर्या ल्हारां केन्नाय उठ्ठात
मळबांतल्या कुपांक केन्नाय पाखां फुट्टात
रुखावळी नकळटनाच हुमटून पडटात
वादळमोडां आतां आमकां सदचींच जाल्यांत !

मेरेवयले किवाटून वचपी किंळचत आसात
तांचो जायण्या-वोग ते वारयत आसात
आमचे उतरां-कोश आमी बांदून घेतल्यात
वादळमोडां आतां आमकां सदचींत्र जाल्यांत !

आमचीं मेटां कोसळटात, घटां घसरतात
आमी सदांच आमचे तयारेत आसतात
गुळयो झेलपाक पाळयो लायिल्ल्योच आसात
वादळमोडां आतां आमकां सदचींच जाल्यांत !

कोणूय येतात, फुलांचे तुरे दिवन वेतात
केन्ना केन्ना कांटे आनी हुमलेय आसतात
तरी पुण आमी आसा थंयच वसतात
वादळ मोडां आतां आमकां सदचींच जाल्यांत !

## सूर

खोल गर्भांतले साद आतां
ह्या घांटी घांटींचे नाद जाल्यात
नदरेपेल्या दर्याचे गाज आतां
हांगच्या गितां–गितांचे राग जाल्यात

अनवळखीच त्यो नुरो पुणून
संवकळीचेच आता इश्ट जाल्यात
मेरे वयले गेले जे पिरंजळून
त्या उतरांचीं आतां फुलां जाल्यांत.

यागांत हांगा राबून राबून
फुडले गडे आतां येवचे जाल्यात
सगळो शीण पयस करून
तुजे म्हजे सूर आतां लागचे जाल्यात !

## वंशकुळाचें देणें

आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात
देखून आमचीं गीतां आमकां गावची पडटात

कांय अभागी तांकां कळूनय केन्ना कळना
ते मेळत तशे फातर शेवटीत वेतात
त्या फातरांच्यो जाल्ल्यो व्हड व्हड राशी
त्यो हच्या हातांकूच निवळ करच्यो लागतात
आनी देखून आमची गीतां आमकां गावचीं पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात !

कोण कोण प्रेषितांचीं रूपां घेवन येतात
देवा नांवान झगडींच पेटोवन वेतात
रगता भाशेचीं नांव नातीं विसरून
बडवाचाराचीच ता थै थै शबय घालतात
आनी देखून आमचीं गीतां आमकां गावचीं पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात !

आमच्या सपनांतलीं सुंदर सुंदर नगरां
ते खिणा खिणा उध्वस्त करून वेतात
आमी रोयिल्लें सोबीत पारजताचें झाड
झडिल्लीं फुलां तेच अचळय माडोवन वेतात
आनी देखून आमचीं गीतां आमकां गावचीं पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात !

काळके राती ते भिरांतेचे कुले घालतात
मठा-मठयेंतले दिवे बळयांच पालोवन वेतात
वाट कळना जावन मदले मदेंच सगळे
खांची गोंयडचानी आडवून उरतात
आनी देखून आमचीं गीतां आमकां गावचीं पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात !

आमकां खरें तें, ते लटीक धरतात
तांचें लटीक आमचे गोमटेक बांदतात
आमचे पंगती, आमचोच शीतरोस उश्टावन
आमकांच न्हय गा ते अबगती लावपा सोदतात
आनी देखून आमचीं गीतां आमकां गावचीं पडटात
कारण आमी आमच्या वंशकुळाक देणें लागतात !

## भूंय मातेक उलो

हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
दी गे म्हाका
तुजे मातयेची नमळाय !
दी म्हज्या कुळाशिळाक,
म्हज्या रगता बळाक
तुजे मातयेचो वोग;
दी म्हाका तुजे मातयेचो रंग –
रंग, रूप, गंधाचो संग;
हे भुंये म्हजे !

हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
दी म्हाका तुज्या कुसव्यांतली ऊब –
उबेंतल्यान उसळपी उमाळो;
रिगय म्हज्या काळजांत
तुज्या धन – गर्भांतलें
उतर – धन परत परत;
दर एका उतरांत –
तुजे खोल खरायेचो गाज
परत परत !
आनी कोमय तणा – कुसांत
त्या उतरा उतराचें अक्षरान अक्षर;
अक्षरा अक्षरांतल्यान
उसय म्हाका चिरून चिरून –
हे भुंये म्हजे !

हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
दी म्हाका तुज्या दोळयांतली
पाचवी नदर;
पाचवे नदरेंत रानां – वनां
रानां – वनां, सैमाचे बळ भितर
आनी मळबाचे विशाळायेंत
तुजी एक वेंग
दी गे म्हाका !
दी म्हज्या वंशकुळाक
एक सार्थ आर्त नाद –
नाद तुज्या हुंकाराची मारून फूंक
आनी पेंकय जाल्ले काळजाक घाये !

हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
दी म्हाका –
तुज्या स्वासांत रुजल्ले
म्हज्या पुण्यपुरसांचे परतून उले
आनी
तांचे तुजे मातयेरूप जाल्ले
उत्फरके उमाळे !
तूं न्हाणय म्हाका
तुज्या पंच – पाणयाच्या वीरां आवर्तांत
आनी दी तानेक युगांभोगी
उदक गंगेच्या प्रवाहांत –
तथागताचे करुणेंचें पालंव लावन !
व्हर म्हाका

हुपून विन्ध्याचला खाला
घडोवन नर्मदेची परिक्रमा –
कृष्णा कावेरी गोदेच्या जळांत
तूं वाजय म्हजे मन – सतारेची तार
आनी कन्याकुमारीच्या
त्रिदल सिंधुजळांत नमोवंक माथें
केळय म्हज्यांत तुज्या
काळजाची अपुरबाय
आनी बरी बुद्द !
ब्रह्मपुत्रेच्या वांठारांत
आमचो कोणायचोय शेणिल्लो शब्द –
म्हयमोगान
वेंचून हाडून दी म्हाका
म्हज्या सह्याद्रीच्या मुळसांत
हे भुंये, माते म्हजे !

हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
आमी केन्नाय चुकतात माकतात
आमच्योच तरसादी, आमीच वावुडटात
रगतांय काडटात, दुखीय जातात . . . . .
विकळापांच्या म्हज्या अत्रेगांक
आतां तूंच करून दी वाट –
तुजेच कुडीची कोळणी करून !
आनी घे सामावन –
म्हाका आनी म्हज्या सगळ्यांक
दयावंत जावन !

हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
तुजी दुखी, ही म्हजीच दुखी,
तुजें सावळे – मलिन मुखामळ
ही म्हज्या मन – मालिन्याचीय सावळी !
तूं जळ्ळचार, म्हजेंय जळप
तूं हुस्केल्यार म्हजीय न्हीद खळप
तुज्या तळमळचांत –
म्हजेय घोर हुमकळे !
हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
हांव तुका शरण,
हे मातयेक हांव शरण,
तुजे नमळायेक हांव शरण,
तुजे व्हडविकेक तर म्हजें नमून नमन !
तुजे उदारतायेक म्हजें नमन,
तुजे दर एके कळेकळेक हांव शरण,
ह्या शरणागताचें तुका नमन !
आतां तरी –
तुज्या खासा गंधांतल्यान
एकच,
एकच म्हाका जाप दी
आनी नेणारां अजाणांच्या
रक्तखेवाखातीर
तूं सगळचात पयलीं
म्हाका क्षमा कर !
म्हजो गुन्याव नासलो तरी
हे भुये, माते म्हजे म्हाका क्षमा कर !
हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
तुज्या चिरंतना माये गोपांत
तुजो एकच मोगा – उमो
दी गे म्हाका !

हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
वेगळावं नाका आनी म्हाका,
म्हज्या वंशकुळाक वेगळावं नाका,
कुडक्या – कुडक्यांनी तोडूं नाका,
हे मातये – पांका मेकळे जावंक
दिवं नाका ! दिवं नाका !
ही माती म्हळचार
तुवें उदार जावन म्हाका ओंपिल्ले
म्हजे प्राण,
म्हज्या वंशकुळाचे प्राण,
जाल्ल्या गेल्ल्यांचे प्राण,
वंशकुळाच्या फुडारा कोमरेचेय प्राण !
हे भुंये म्हजे, म्हजे माते,
आमकां तुजे काकुळटेची धार दी !
तुजे अपुरबायेचो मोगा – सार दी !
तुजे उदारताये सुरां – तार दी !
तुजे व्हडविकेची शीतळ झर दी !
जें जें दिवंक जाता –
तें तें सगळें दी, सगळें दी !
धर्तरेचें नांव लावंक, नांव गावंक
गळ्यांत आमच्या मेकळो गोड सूर दी !
सूर गावंक
वर्सां वर्सां थाकाय दी !
थाकायेची बरोवंक काणी
हचा हातांक सगळ्या तांक दी !

हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
तुजे खातीर गीत गावंक –
गीत गावंचो
जितो जागतो मंच दी !
मंत्र जपूंक –
तुजे मातयेची रसणाय दी !
तेकोवंक माथे –
तुजें मोगा आंग दी !

हे भुंये म्हजे, म्हजे माते
तुजो मोग दी, मोगा राग दी !
मेकळ्या मनान पावली मारूंक
तूं तुजेचकडची वाट दी !
तूं तुजेच कडची वाट दी !
वाट दी
वाट दी !
हे भुंये म्हजे, म्हजे माते !

## अेक

गगन घना रे
श्रावण सुगंध ओतीत यो
सपन घनाचो
प्रकाश दिगंता रकयत यो
गगन घना रे

मोगियां मनाचे
जाग्रण उले ओलायत यो
फुलत जिणेचे
पारजत कळे वेंचीत यो
गगन घना रे

अजाप सुरांचें
म्होंव सुरेलें माखीत यो
अनंग रंगांच्या
पांयजण घुंगरां वाजयत यो
गगन घना रे

## दोन

वनावनांतल्यान मनामनांतल्यान
काळीज कोगूळ गायता
कणाकणांतल्यान, तणातणांतल्यान
अंतर वझरो व्हांवता
चैत्रगिमांतल्या थरथर भारान
अळंग पुनव पेंवता
रुप्यावताच्या शिराशिरांतल्यान
भोंवर भांगर देंवता
घराघरांतल्यान, गणा गोपांतल्यान
नदर मुकुंद चोयता
उल्या उल्यांतल्यान, गळ्यागळ्यांतल्यान
सपन सुगंध धुंवता

## तीन

फांतोडपारा दवांत भिजल्या रानांत
अचळय सूर कोणाले सांडले रे?

चंद्रीमपिशा उपाट दर्या ल्हारांर
कोण व्हडें हें शिडांत वारें भरता रे ?

नवनवलांची मधाळ माया सगळी
शिरांशिरांनी पांयजण – भार भल्ला रे !

फांतोडपारा दवांत भिजल्या रानांत
हें गितूय सुरांत रकून रुजलां रे !

## चार

विशाळा विशाळाचे विशाळकाये
घे मोखून अचळ नमळाये
थांगा अथांगाचे रुपा सरुपाये
वुडय पुसून कुड्डे कुरुपाये

धगधार किस्कुटा किर्‌पणाये
वच मेळून उदार शितळाये
ओंकार जावन यो गे जीवकाये
ओतय नदर सुरां परमळाये

दुखां दुखाळांचे पालय घाये
गच्च गळचांतय शब्द मधुराये
घाल रुजवणा तूं अपुरबाये
गे जीव जीवसाणेचे खराये

## एक

निशेवन गेल्यो पावशी  धारो,
ताणी
गंधीत जालो अळंग वारो.

हो गंधय कसो
अचळय चुमता
ह्चा न्हयसो हुनत नखरो.

पोसव सुखांत दंग
जळभारांत उचंबळ
एक एक थामाबांदी
तांच्यो माणेवन गेल्यो मेरो.

– ह्या आकुळ खिणा
तुजे म्हजे वेगेंत,
तुजो म्हाका
म्हजो तुका
पुरो एकूच सांगात
एकूच सांगात !

## दोन

म्हज्या मनां, म्हज्या मनां
पाचवीं रानां, पाचवीं रानां
ह्या रानांत सळसळत
सवण्या सुरांत धोलतीं पानां

पानशिरांनी
आंग चोरून
अनवळखीशींच रंगी फुलां

रूप रंग परमळाक
आपलेंच भान ना
भान ना, बळपाकूय बंध ना
धुंद मंद कांयच समजना
रानवालींनी कोण घुस्पला
हांवच जाल्यार
हांवय नेणां, हांवय नेणां

म्हज्या मनां, म्हज्या मनां
पाचवीं रानां, हरवीं पानां.

## तीन

एक उदेती सकाळ
एक बावकुरी सांज
मदें धगधगपी दनपार
अदीं मदीं तुजो एक उलो
मनांत माल्ल्यार,
हातांत
पोरसांतलें एक परमळपी फूल !
केन्नाय मदेकात
एक अर्थ नाशिल्ली गजाल
केन्नाय
अर्थांतच निर्शेल्लो बेजार !

हांव फकत मोनो,
एक उतर काडिनासतना.

हें सगळें पळोवपी
म्हाका नांवय ना !
म्हाका गांवय ना ! !

## चार

पाखां फुटिल्लीं सवणीं पोरां
सांजपारा सुरांत गेलीं घुंवळून

तुजीं म्हजीं सगळीं उतरां
जिवीत मध्यान काडटी धवळून

## पांच

तुवेंच ओडून
        घेतिल्ल्या मौनांतल्यान
तुवेंच पयलें
        उतर काडचें आतां
खंय तरी अंदून
        उरपी घुस्मटमारांतल्यान
तुवेंच मेकळी
        वाट सोदची आतां

स

हो गंधभार सोंसना
हो मंदभारय सोंसना !
हांव तुजे
नदरे भार
धार धार दडकेक आशेतां !

हांव तुज्या
जोरगत वोग भाराक आवंडेतां !

म्हजी आलतड
रेंवेताषान् धगधगना
तुजी पलतड
चिखलगुंज जिणेक रोमना !
हो गंधभार सोंसना !

## सात

दिवन तुंवें
ह्यांवें घेतलें ना
अशें
केन्नाच घडलें ना.

मोडलें ह्यांवें
आनी
जोडलें तुंवें
अशेंय केन्नाच
जालें ना.

पुण
तुंवें केन्नाच दिलें ना !
आनी तुंवें जोडचें म्हणून
ह्यांवें,
वगीच कितेंय मोडलें ना !

## आठ

चंद्रमुखी पुनव पिशी
        काळीज मोनें लाशीत गेली
रातराणी एकूच अशी
        तेय खिणां
        सगळ्यो वेरो पाशीत गेली.

जिणे – वझरे सगळे आतां
        धारेन धार भरून गेल्यात
पिंगशेपोंवशे खीण
        म्हजे
        गंधगुंज जावन गेल्यात

आतां चंद्रफुलार पाशे म्हजे
        सगळें जैत चान्नें जालां
रातदीस एकूच ध्यास
        अशींच कितलीं येतली बळां

## पाव

ते राधेलो कृष्ण एक
मिर्गाची धार जावन
कितल्याच शेतांनी... रक रक रकलो खंय !

ते धारेंतलो कृष्ण
रसरस गंधभार
कणा कणांनी
परमळाचो
एक आगळो अगणीत शिंवोर जावन... रुजलो खंय !

तेंच रुजवण
कण कण गोटो भूंय किल्लायत
पाचवेंच थाम जावन
श्रावण पावसांत... भीज भीज भिजलें खंय !

ते राधेलो कृष्ण एक
आतां पाचव्याच मोगाचें
हरवें कवन गायत
मघा पावसांत
थर थर झेल मारीत
भांगरा गुणाचे
दयाळ पिकेक
एन्नाधरच... दुधाळ उतर घालता खंय !

ते राधेलो कृष्ण एक:
सगळोच आपालिपा
चलता खंय;
ती पापीण बावडी
लजेन दोडत, मोगान मोडत
दोळे धापूनच ताका
अजूनय वसवस धारांनी... सोदता खंय !

## धा

हें नत नर्तन थयथय
आनंद खिणाचें थयथय
घन गर्जन रे थयथय
मनमानसाचें थयथय
अंतर सुंदर थयथय
थय थय आवतीं भोंवती
जीव जिणेचें आवर्तन
गंध भारच हो थयथय
ता थय, ता थय थय
आनंद ल्हारांचें थयथय
थय थय, ता थय थय

आतां आमी
एके थार नाशिल्ले
युगस्पर्शी
म्हायात्रेंत सांपडल्यात .....
आनी म्हणून

## नदर फाटीं वेता तेन्ना –

खूब वर्सांनी
आतां नदर फाटीं वेता तेन्ना –
आमी बरेच पयस पावल्यात म्हणपाचें
आनी
पयस पावनय लागींच आसात म्हणपाचें कळून
अजाप जाता !

अजाप जाता
आमीच आयकल्ल्या उतरांचें,
त्या उतरांच्या पर्तवणाचें
आनी
अजाप जाता
फुडले दिकेन नवे – नवेच सूर कानार सादतात
तांचेंय !

“ आमी पयसूय पावल्यात
आनी पयस पावनय
लागसाराकच उल्ल्यात – ”
अजाप जाता–
हे इतले लोक,
केन्ना येवन ताणी
हे पालखेक खांद माल्लो ताचें–
कांय जाणांचीं तर
नांवां गांवांय खबर नात.
कांय जाणांक आपुण
हे यात्रेंत कशे आयले
हेंय खबर ना !

अजाप जाता –
हे सगळे उलयतात
त्या तांच्या उतरांचें !
पयलें पेणें सोडिल्लें
तेन्ना आयकल्ली भास
आनी आतां –
हे उलयतात ती भास –
हे भाशेचें एक एक उतर
भात्याच्या उज्यांत
रसरसून तापून आयिल्लेसारखें !

अजाप जाता
आतां खूब वर्सांनी
नदर फाटीं वेता तेन्ना
आरे, आमी चलतच आसात म्हणपाचें !
कांय आलायते आडावपी
मर्दीच धडेवयल्यान पिरंजळून गेले !
पुण एक बरें जालें –
आमच्यांतल्या कोणाकच
‘राव,’ ‘पुरो’ म्हणपाची वान्सा जाली ना !

आनी आतां
कोणाकूय ‘ राव ’ म्हणपाचीय
आवतीकाय उल्ली ना!
कोणाकय तूं कोण म्हण
विचारपाचीय गरज उल्ली ना !
खरेंच –
हाचेंय आज अजाप जाता !
. . . . . . . . . . . . . .
आतां आमी
एके म्हायात्रेंत सांपडल्यात
दिकादिकांचे मेळे
घुडयो हुबयत
हो म्हायात्रेचो याग
चलयत आसात !

खूब बर्सांनी
आतां नदर फाटीं वेता तेन्ना –
आमी पयस पावनय
लागसाराकच उल्ल्यात तरी –
आमी चलपाक शिकल्यात,
आडे मोडून फुडें शेवटूंक शिकल्यात,
अन्यायाआड झुजूंक लागल्यात –
हाचें सगळ्याचेंच अजाप जाता
खूब वर्सांनी नदर फाटीं वेता तेन्ना !

## नागेश करमली

पुराय नांव : नागेश रामदास नायक करमली

जल्म : ५ फेब्रुवारी १९३३, काकोडें - केपें, गोंय हांगां
भुरगेपणांत केप्यां शिकता आसतनाच साहित्याची गोडी लागली. कविवर्य बाकीबाब बोरकार, शिक्षक म्हण लाबले. शणै गोंयबाबाची बरपावळ वाचपाचो योग आयलो आनी तरणे पिरायेरूच कोंकणीचे शक्तीचो दिश्टावो जालो.

१९५२ त कोंकणीच्या वावराकडेन संबंध. तातूंतल्यानूच फुडें गोंयचे सुटके चळवळींत भाग घेतलो. १५ सप्टेंबर १९५४ त स्वातंत्र्य आंदोलनांत भूमिगत वावर करताना अटक जाली. लष्करी कोर्टान आठ अदीक दोन अशी धा वर्सांची बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. रेजमाग हांगचे बंदखणीत आसताना, थंय बंजखणींतल्या स्वातंत्र्य झुजाऱ्यांचें अभ्यास मंडळ घडोवन 'जोत' नांवांचें कोंकणी हाताळें चलयलें. १९५९ वर्सा ख्यास्त सोंपचे आदींच आग्वादचे बंदखणीतल्यान सुटका. त्या अुपरांत गोंयचे सुटके खातीर वेगवेगळ्या रूपांत वावर केलो.

वेवसाय म्हण खण - उद्येगांत नोकरी केली.

१९६२ वर्सा कामगार चळवळींत वांटो घेतलो आनी पांच वर्सांमिरेन त्या मळार वावर केलो.

१९६६ वर्सापासून आकाशवाणीच्या पणजी केंद्राचेर 'स्टाफ आर्टिस्ट' म्हण नोकरेक सुरवात.

फाटल्या पंचवीस/सव्वीस वर्सांत, कोंकणीच्या अुदरगतीच्या वावरांत बरोवपी, वावुरपी आनी संघटक म्हण वावर केला.

कोंकणी भाशा मंडळाचे अेक संस्थापक वांगडी. अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य परिशद हाच्या वावराकडेन वावुरपी आनी संघटक म्हण लागींचो संबंध आयला. अेका काळार गोंयभर गाजिल्ले 'ललितक' हे साहित्य - दर्शनाचे कार्यावळीचे प्रवर्तक.

कोंकणी आवयभाशेबराबर मराठी, हिंदी, इंग्लीश आनी पुर्तुगेज ह्यो भासो येतात. उर्दू आनी बंगाली भाशांचो अभ्यास केला. कन्नड लिपयेचो आभ्यास करून त्या लिपयेंतल्या कोंकणी साहित्याकडेन संपर्क जोडला.

कोंकणी पाठ्यपुस्तकां तयार करपाचे नदरेन, गोंय माध्यमिक आनी अुच्च माध्यमिक शिक्षण मंडळ तशेंच गोंय राज्य शिक्षण संस्थेच्या वावरांत वांटो घेतला. गोंय सरकाराच्या गॅजेटियर संपादक मंडळाचे वांगडी. गोंयच्या स्वातंत्र्य सैनिकांच्या चरित्रकोशाच्या संपादन वावरांत वांटेकार.

फाटल्या तीन दशकांत कोंकणी आनी मराठींतल्यान वेगवेगळे तरेचें बरोवप केलां तातूंत काव्य हो प्रकार मुखेलपणान केळयला. आकाशवाणीखातीर विविध तरेची बरपावळ रचल्या.

'जोरगत' (१९७९) आनी 'सांवार' (१९७९) अशे दोन कविता संग्रह अुजवाडाक आयल्यात.

आद्य रंगाचार्य हांगेल्या 'केळु जनमेजया' (जनमेजया आयक) नाटकाचो तशेंच मोहन राकेश हांगेल्या 'आधेअधुरे' ह्या नाटकाचो कोंकणी अणकार केला.

१९७२ वर्सा भारतीय स्वातंत्र्याच्या रुप्याअुत्सवी वर्सा निमती भारत सरकारा कडल्यान स्वातंत्र्य सैनिक म्हण ताम्रपत्र दिवन गौरव जाला.

'जोरगत' कविता संग्रहाक कोंकणी भाशामंडळ आनी गोंय कलाअकादमीचे राज्य साहित्य पुरस्कार लाबल्यात.

१९८३ वर्सा कुडचडचार जाल्ल्या अखिल भारतीय कोंकणी लेखक संमेलनाचे येवकार अध्यक्ष.

1992

□

